वर्स : सात अंक : पांच

शरद अंक सप्टेंबर/आक्टोबर १९८९




कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

मुखपृष्ठ : श्रीधर कामत बांबोळकार

छापपी आनी उजवाडावपी : नारायण वाटोळकार
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव ( गोंय ) ४०३ ६०१

छापणावळ : हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय गोंय

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय-वेरें, फोंडें ( गोंय ) ४०३ ४०१

अंकाचे मोल : २ रुपया वर्सूकी पटी : ( विशेशांकासयत ) १२ रुपया

## मांडावळ

१.

## वाट

"आषाढस्य
प्रथम दिवसे ..."
सानवेळ ;
हुतहुत्या पावसान
मात्सो विसव घेतला.
आतां
जुवानपणाची पांचवी नदर
फुटिल्ल्या पावलांक
चवथ्या दिसाचे न्हाण न्हावन
मानेर केंस सोडिल्ल्या पुरंध्रीवरी
पायांपोंदची
वाट झळकूंक लागल्या ...

२.

## केन्ना केन्ना

केन्ना केन्ना नकळ किदयाक
नेतल्ल्याचो भास जाता
भायर-भितर खर्शता
जीव म्हजो.

आलतडयां रावन उबो
पलतडींच्यो काडटां यादी
'चल गो बाये घोवाक सोदी'
सांगचें कोणा ?

कळना कोणे माथ्यार म्हज्या
संसाराचें थेयलां वजें
सुख-दुख तुजें-म्हर्जे
तोलना म्हाका.

३.

## सवणे

पिके फिरंगाळे दीस
वत हारसो जालां
मळब पाणयां व्हिलां ...

पिसो-रवळु वारो
ताका सांवरना तोल
ताचो म्हादळचो बोल ...

जीण : माणकुलो गांव
मन सवणे कशें
खंय उडटा पिशें ?

४.

## कविता

काळखी रात.
मदचान.
मळबाक मिर्गा आदोंच्या
जोगलावणेचें हुलपावणे जागरण आनी
खांपुल्ल्या कुपांची आकांताळी करंदाय.
आतां
झाडां-पेडांचीं हाडां सदळावपी
बेताळ कशें थयथय वारें सुटलां;
फाटोफाट
झोंपय मारिल्ल्यात्री
अवेळी पावसाच्यो दडकेर दडको . . .

अर्दी रात घुस्मटलेलो,
तळमळ्ळेलो
जीव न्हिदेंत चिप्प भिजला

निक्त्याच्
वियेल्ल्या माजराचीं
मोवसार धवींफुल्ल पिलां कशीं
दोळयांर देंविल्ल्या किर्णांनी
आयिल्ली हय-न्हयशी जाग
आनी पयलें न्हाण
न्हाल्ली आंकवांर चली
तशीच
दुसऱ्या दिसाची
तृप्त देखणी सकाळ.

५.

## भूल

मोनेळीचे कुशी
मुंगरल्या रात
विसरली वाट
उतरांची.

दिकांनी काडलां
काळखाचें रीण
दिठयेंत खीण
परमळ्ळे.

मनाचे मातयेक
वेगळोच वास
अदृश्टाचो पावस
अदृश्टांत.

कोणाची गा हांगा
उजवल्या कूस ?
म्होंवदिणे मूस
कडसले ...

खयंचें हें गांव ?
पांचवेंचार सैम
अप्रुपाचें ब्रह्म
चंवरेता.

पालवली वात :
फांतोड्डेची भूल्ल
उजवाडाचो धुल्ल
म्हज्या दारां.

## हिरण्यगर्भ

रमेश भगवंत वेळुस्कार

१.

तुज्या येवकाराक दीप्तिकरा
हे मरूद्गण, हे विहंगण
येवकार आदिवन गावपाक
सिद्ध जाल्यात
ह्या रूखा-दिकांनी
ताळयां खांदयांचेर
हास्य लास्यां शिरङारल्यांत
ही तम-प्राचीन सूर्यकांती प्राची
येवकार करवली जाल्या
तुजे भोवमानार्थ
ह्या उदेंत पर्वतांनी
सुवर्ण किर्णी फेरे पगडयो
बांदल्यात
आपली सगळी जीण
उखलासून आपल्या हातांत घेवन
ताणी तूकां हात जोडल्यात
सगळया संवसारार
हे सूर्यसुंदरा
सवन जीव-चैतन्यान
आपापल्या डि.यन. ए.च्या
म्हूर्तमणयांनी चैतन्य चंवरून
घेतलां
तुजे स्वागताखातीर

यो म्हज्या सूर्यसुंदरा
यो म्हज्या तनमंदिरा
यो म्हज्या मनरुपकारा
यो म्हज्या सौंदर्याक्षरा
ह्या जिवांच्या मनो-विश्वांत
विश्वास निर्मित यो
ह्या विश्वांत तुजो वास वतयत यो
ह्या विश्वांत दर खिणाक
तुजें आवागमन जांव
हे उजवाड महंता
तुजे आगमनान
सर्वय जिवात्म्यांचें दु:ख
हताहत जांवन ना न्हप्पय नांव
आनी काळखाचे सूर्य जांव
दर खिणाक तुजो असोच
येवकार जांव ..

तुज्या स्मरणात
सुवार्थ नांवाची गजाल
खंयचे खंय नाच्च जाता
सगळया आदी अंतांक
तेंगशांचें रूप मेळटा
सगळचा तेंगशांचेर
तांचीच मुळा फुलारलेलीं दिसता . . .
तुज्या स्मरणात
आनी एक गजाल उदेवन येता
म्हाकां म्हज्यांत
तुजे तेंगशेची उंचाय मेळटा
आनी तुज्या बळाचें, कुळाचें
मूळ मेळटा,
तेन्ना हांव, हांव उरना
उरता फक्त
तुजें स्मरणधन
आनी फक्त तूं हे सूर्यशुभंकरा . . .

२.

तुकां स्मरून हे सूर्यशुभंकरा
ह्या सवन दृश्ट अदुश्टाचेर
नदर भोंबडायतां
तेन्ना सगळेंच कशें
सुंदरत्वाचो पोटलो जावन
म्हाकां भिडत येता
हांव गिरेस्तांचो
गिरेस्त जावन येतां.
सगळचा तरांची दुस्मानकाय
हांव व्हगडावन बसतां
आनी म्हाकां सू जाता
म्हैमोगाचें ल्हार
म्हाका म्होवारून उडयता
सगळचांत हांवूच भल्लेल्याची
सुखाक जीण लसलसून येता

३.

प्राणगंधारा तूं धार
प्रणवाची
कण कण, केण केण
ओत
हे म्हजे अल्पमतींत

आतां फुलूं दी म्हज्यांत
फुलां
प्रणवगंधाराचीं, पडूं
कोणा कोणाच्याय पोरसांत
आंगणांत
फुलयत तांचीं मना
तुजीच प्रसन्न प्रणव संपदा
हे प्रणवगंधारा

४.

म्हजे कुडीभायर काडून
आतां म्हाकां ती म्हजी
पार्थी कूड मात्शी दाखय :
कुडितल्यान भायर सरल्या
उपरांत
हांव म्हणुनय कांय उरना
आनी म्हजें म्हण
कांयच उरना
मातयेन, वाऱ्यान, मळबान
तेजान, तशेंच उदकान
घेतलेल्या ह्या सुंदर रूपाचें
अपरूप दिसता
सैमाचें अजापाचें रूप
केदो व्हडलो जादू
खरेंच कांयच नासता जादवांत
सगळो खेळ
वेळ काडपाक
ना जाल्यार
मात्सो विसर जांवचो म्हण
केल्लो खेळ

आतां हो जादूय उरना
उरता फक्त माती
उरता फक्त उदक
उरता फक्त वारो
उरता फक्त मळब
उरता फक्त तेज
आनी जैत जाता
उर्जेचें
आदिप्राणाचें
आदि खिण केणाचें
जाका अंतूय ना
आनी अनंतूय ना
जाची महाप्राणाक लेगीत
नात लागना

खूब भोंवडी जाली
हे सूर्य सर्वेश्वरा
परत हो प्रवास
सुरू करचे खातीर
स्वास उस्वासांचे
अमर्याद मदले सुटयेंत
मात्सो थिराय
ना जाल्यार शिवराय

## कुसर-गंध

कुसरीचें झाडा
कुसर-गंध,
कुसरीच्या फुला
कस्तूर-गंध !

वोत जालां जाड
रान जालां दाट
झाडांपोंदां लुटली
कुसर फुलांची वाट !

हांव एक अनवळखी
सोदीत तीच वाट
सांजचे काळखीं
चलत चलत !

हांगा एक कुसर
म्हाका गावल्या
तीच्या मुळांपोंदा
म्हजी पावलां पावल्यां !

आतां म्हज्या पावलांकूय
सुटला कुसर-गंध
आतां म्हज्या हांवूच
जालां बेबंद धूंद !

म्हज्या तळव्यार
एक कुसर
म्हज्या काळजार
एक कुसर !

कुसरीची सर
गंध-कस्तूर
गंध-कस्तूर !

१.

## तांच्या खातीर

शिरवंत सैगलीं सूर म्हजे
आयकुपाचें सोडून
त्या सूरांक ते जिवाण्यावरीं हातात धरून पळयतात . . .
जंय जंय हांव बोट दाखयतां
थंय थंय पळयनासतना
ते म्हज्याच बोटाक घास मारूंक सोदतात . . .
म्हज्या रक्ताचें उदक करून
हांव तांचे सुकिल्ले रोपे उमेदीन शिंपता;
ते म्हजेकडे पळय नाशिल्ल्यावरी करून
पावसाची वाट पळयत
मळबाचें सुकें मरड ओकेतात . . .
हावें नाल्लाची आस्त धरीं नासतना
तांच्याखातीर कावथे रोयल्यात;
ते वयलेवयर आयिल्लया अडूळशाक तोकेत बसल्यात
आनी आतां हांव
ही म्हजी, सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो दिवपी सतार
तांच्या स्वाधीन करतां . . .
म्हाका खबर आसा;
हे सतारीक खेळणे समजून ते नाचयतले,
तिच्यो सुपुल्ल्यो तारो
हुमटोवन अुडययले
आनी त्या सतारीची दशा दशा जातकीर,
उरिल्लो सुरिल्लो त्या सतारीचो भोपळोय
अेक केंकरो सूर काडीत
म्हज्याच तकलेर फोड्टले . . .

२.

## घोटीर

अेक दीस फातोडेचेर
म्हाका सामकें बेजेंसांव आयलें
आनी तेन्ना मनासावन
म्हाका शेवणें जायन दिसलें . . .

बंदखण घट्ट करपी ज्ञानापरस
म्हाका घोंटरातल्या मुक्त अज्ञानाचो विश्वास दिसता.
भुर्गेंपणातूच शेणिल्ल्या म्हज्या शेवणेपणाचें दूषण
हांव खंयच्या कुळीक दिंव ?
म्हज्या ज्ञानाक कांटें फुटल्यात
आनी मन पुलेंलां . . .
चोंचीतलें गाणें बोंवाळांत घुस्पलां . . .
– जंय पाकां फुट्टात
तो म्हजो घोटीर
खंयच्या पेडार शिरकला ?

३.

## कविता

हांगा सगळें ओग्गी किदयाक ?
हांगा कोणाकूच नाचन दिसना ?
जनेलाचे वारांव जशे निश्चल
तशी हांगची पानांय किदयाक भेरेल्यांत ?
वारो मात्तय ना.
दुयेंत मनशाक, आपल्या काळजाचे ठेके आयकूंक येवचे
तशें एक शेवणें मुकाल्ल्या भाटांत आडुता.
हुमले हेवटेन तेवटेन करतात;
वझ्यान चिंतेस्त जाल्ल्या कामेऱ्यांवरी . . .
हांगा कोणाकूच आडुन दिसना.
आजूनय हांगा
सांच्या कोंब्या साद,
पडवेवयलीं एकमुटी खोकली
आनी भिरांकूळ किण्णताय किदयाक ?
एक विराट हार मानून
सगळें सोसून धरप हेंच एक अटळ सत्य आसा;
अशें म्हणून थंड रावप
आनी मात्शें दुखलें कोचलें की
कोंब्याभशेन मदीच केंकरप,
गोरवांभशेन हाम्योप
नाल्यार पाल रडची
तशी एक कुचमणी कविता
मुकाटचानी
बरवप . . .

# चार कविता

सु. म. तडकोड

१.

## महाशून्य

हें बिवर असीम खोलायेंत
खीण खीण खीणभर स्तब्ध
तेऱ्यावेल्यान थेंब्यान निसटून वचचें
तसो श्वास हृदयाच्या गतीवेल्यान
खंयतरी नाचच जाल्लो . . .

अकारण स्तब्ध रात्रीचें संगीत
आनी नीरव आकाश
स्पन्दनांचो स्वीकार
मुग्ध महाशुन्यात चोंयवशीन . . .

२.

## ताऱ्याक पळयलें हांवे . . .

मनांत तोखणाय जागवली
ह्या सन्नाट निश्चलतेंत
दोळयांत सगळीं नखेत्रां
शुभ्र आनी . . .

ही तर महाराशी रहस्यांचीं
मनांत पारदर्श जिज्ञासा
सनातन कान्त
अवध्य उदासिनकी
ताऱ्याक लिखलिखतो करताना . . .

३.

## ईश्वर

अेकलोच आजीव
कल्पक अविराम
दिग्वीहीन विवरांत
बशिल्लो ईश्वर

हसोवपी दाता
मात मौन मुखर
स्पर्श - पूत अुदार
स्मारक ईश्वर

प्रबल वासना
संस्कारांत जिजिविशा
अन्धकारांतली
आग ईश्वर . . .

४.

## महाकार

विवर महावनी अर्थवती सिमा
अदृश्य गतींतली स्वेच्छा विनाशिनी
खंयतरी अन्धकार खंयतरी उजवाड
शरदधुन्द सागरमुद्रा मनमोहिनी

चलून चलून खंय मेरेन
उडून उडून खंय मेरेन
उपासपोटान धुक्यांतल्यान खंयमेरेन
कपलावेली रेखा खंयमेरेन

बलपुरुशाचो हो आकार
सिमान्तपार हो कृशणसागर
सन्धान सन्धान
किनाऱ्यार रावन खंयमेरेन

हो तर असाध्य रोग
सावधानतेचो स्त्राप म्हावनांत शिरतकच
शिरंतरातलो अन्धकार
महाकार . . .

## संजीव वेरेंकार

### दोन कविता व्यथेच्यो

१.

तुज्या तत्वांच्या
आनी हट्टांच्या उज्यांत
हांव कापूर जावन जळटां
आनी तूं परमळा !

म्हज्या दोळयांतली हीं दुकां
तुका दिसना ?
दिसता जाल्यार तीं
कित्याक पुसलीं ना ?
ह्या दुकांची भास
तुका कळना म्हणून
काय ह्या दुकांत कसलोच
अर्थ ना म्हणून ...?

पळय मोगा
अजूनय दोळयांत म्हज्या
तींच दुकां तेच भाव
सांगतात ...
जंय सावन फकत
तुज्याच मोगाचो आनी
तुज्याच ध्यासाचो
झरो फुटला त्या
म्हज्या काळजाची व्यथा !!

२.

उदक मारून
ताजवाण हाडिल्ल्या
गुलाबाच्या फुलाभाशेन
जीणे म्हजें
कित्याक जगता
हेंच कळना ...
हांव जगतां
म्हाका जगपाची उमेद
आसा म्हणून
काय मरण येना म्हणून ?

हांव जगतां -
म्हज्या प्रियेच्या
हट्टांच्या होमांत
कापूर जावन
जळचें म्हणून ...!

## आर. रामनाथ

### तो

तो तळागाळासावन आयला.
ताका तुमी धावंडोवं नाका.
समग्र मुळांची नांवां-गांवां
आनी पुराय पत्ते
ताका बेस्स् बरे खबर आसा.
इंगळ्याची खरसाण
गोबराची खारसाण
चूडयेचो भगभग
दनपारचो रखरख
ताणे चाखला...
तो चव आनी चेव
तो ज्वाला आनी लाव्हा.

भूत-भविष्याच्या मदीं सॅन्डविच जाल्ल्या
वर्तमानाची उपस तो जाणा.
देखून भूत-भविष्याक वांगडाच खणून
वर्तमानाची वाट मेकळी करपाची
ताणे थारायलां.
मळबआकांत कालूच
ताच्या सपनात आयिल्लो खंय!

तो: अस्पष्ट आरशातलो सुस्पष्ट चेरो...

१.

**ये मोगा, थोडें उलयां**

ये मोगा, थोडें उलयां
मुडचातांदळा पेज शिजता
तांबयो तांबयो धंय राकता
बुयात्रांतलीं तोरां शिदून
वाटली भोरन दोगांय जेवुयां
ये मोगा थोडें उलयां

रानांत जांबळा मळब शेणलां
बोरा बेणसां कुडेंच फुल्लां
सगळो दीस रानांत भोंवून
रुची आमच्यो कितें पळेयां
ये मोगा थोडें उलया

बेणशीपाटल्यान चान्नें शिपलां
घरच्या जणांक तेरसान वेंगलां
वेळाक पाकटे फुटच्ये आदीं
काळजां आमचीं दोगांय तिळुयां
ये मोगा, थोडें उलयां

२.

## आमगेर आयल्यार जालें

जिणें तुजें
जरूय निरास जालें
रडूं नाका
आमगेर आयल्यार जालें

सुतीच्या कापडार तारांचो व्होर
पालवाच्या पोंतार फुलांचो फोर
जाय म्हणून जरूय भोगलें
आमगेर आयल्यार जालें

हितलांत आमच्या शिवत्यांची रास
गजडेक म्हजे तांचेंच मास
निदेन जर शिवत्यांक विचलें
आमगेर आयल्यार जालें

आयकतां सदां चंद्राताळो
'जातलों तुज्यां कपलातिळो''
मन जरूय चंद्राक भुल्लें
आमगेर आयल्यार जालें

## रमेश घ. लाड

### नांव तुजें भांगरा म्हज्या

दीस रात देवालागीं
एकूच मागतां हांव
नांव तुजें भांगरा म्हज्या
धायी दिकां जांव

सूर्य - पिलां थकून भागून
दर्या - फाटीर न्हिदलीं
दीसभर भोंवडी मारून
सवणी रुखार वसलीं
न्हिद रे राया न्हिदरे आतां
रडत नाका रावं
नांव तुजें भांगरा म्हज्या
धायी दिकां जांव

गायो पाडकां दोंगरावेल्यान
तुरतुरीत देवलीं
किट्ट काळचा पांगरुणात
रूख झोपां दडलीं
पी रे राया व्हांवती धार
वारोवन नाका लावं
नांव तुजें भांगरा म्हज्या
धायी दिकां जांव

माड काडून देवंलो रेंदेर
कांतरां वाऱ्यार विल्लीं
नातकां जागीं जालीं पळे
घू घू करून अुडलीं
नाका पुता रडू रडून
आकूळ - पिकूळ जावं
नांव तुजें भांगरा म्हज्या
धायी दिकां जांव

मनोराय नायक

## सूर्य उदेतलो

फाल्यां
म्हज्या आंगणांत
सूर्य उदेतलो
तो मेरेन
सोसून घेयन
काळखा ऽऽ
तूं दिल्ल्यो
आनी दीत आशिल्ल्यो
अनंत यातना
कारण त्याच
यातनांची फाल्यां
फुलतली फुलां
हांव पळयतां
म्हज्या अंतस्कणींत
म्हज्या
भाड्याच्या घरांत
तुवें उबाल्ल्यो वण्टी
आडयली धायदिकां
म्हजें
सुकणे रे बंदी
ताजो
काळजाचो घावो
पळय आळयता गळो
स्वर स्वरांचें वलय
उबें शांतिचें आलय !

## दुर्गादास गावडे

**कालाय तस्मै नमः**

एकदां हिरोशीमाचेर
एक बॉम फुटिल्लो
तेन्नाचो धुंवर अजून निवळुंकना
फकत उजवाडाचें एक किर्ण
धुंवर चिरून भितर सल्लां
इतलेंच !

फाटीं एक 'लेसर' किर्ण
म्हाकां आर-पार चिरून पासार जालें
तेन्ना म्हजे नदरेमुकार घडलीं
कितलीशींच 'स्टार-वॉर्स'
तेन्ना भंयान आंग सोडलेलें
तें अजुनय थरथरत आसा
फकत आतां हांव
दोळे धांपून वावुरता इतलेंच !

काल एक 'झाड' सांगतालें,
आपल्या रक्तान रंगिल्ले आमचे हात
आतां सासणाचे पापीच उरतले म्हण !

## कैवारी

कृष्णा तुजे बासरीन आयज
सैम धुन्दींत न्हालां
नितळ मळबांत पळय आतां
कुपांत चंद्र आयला.

सळसळटात पानांनी
वाऱ्याच्योच वावझडी
खिणां-खिणांत याद येता
तुजी रे श्रीहरी.

ओंठा-ओंठार नांव तुजें
सदांच म्हज्या घोळ्ळें
पावलां पावलांक सांगात तुजो
तूंच अरिश्टांक पावलो.

आयज लेगीत श्रीहरी
तूं गरीबांचो वाली ....
गोरवांक रानांत चरयता
तोच आमचो कैवारी

## आर. एस. भास्कर

### आंगणांतुले मोगरी

आंगणातुले मोगरी
फुलुनूय आसो
नाक आमचे
हुंगुनुय आसो

**नाक कित्याक?**

उसळचे जाल्यार
नाक सींकल्यार
नाका सायबा
नाक आमका

## अविनाश च्यारी

### चंद्रीम

काळ्या कुपान रावन,
चंद्रीम आपालिपा खेळटा.
खट्याळ नक्षत्रां,
हें पळोवन मुरगाट्टा.

काळ्या काळ्या कुपांतसून,
धांवताना आमकांक पळयता.
लज जाल्यावरी,
आपले तोंड कुपां फाटल्यान लिपयता.

लजो नाका,
तो आमका पळयना.
तोय म्हज्यावरीच,
नक्षत्रां फाटल्यान धांवता.

## ज्योती च्यारी

### संघर्षाचे वाद

निर्शेल्या मनान ताणतां हांव साद
जागयत रे राया मोगाची याद
खीण खीण सारले हांवे
युगा युगांचो काळ
तरीय उमटना
त्या उतरांचे पडसाद
राया दिल्ल्या उतरांचे पडसाद
घडी घडी घसरतात
गात्रा-गात्रा शिणकेतात
भंगले सपन जशे चान्ने खिणांत लूप्त
मन आज घायाळ
सोशीत संघर्षाचे वाद
राया संघर्षाचे वाद

## अरुणा शणै सावयकार

### म्हजें गुपित

खंय दवरूं म्हजें गुपित
मनाच्या कोनश्याक
पूण मन भरिल्लें आसा.
अक्षरान बरोवन दवरूं ?
ना कोणी तरी वाचतलो.
म्हज्या जिवाच्या इश्टिणीक सांगू
हय ! ना जाल्यार हांव विसरून वतलें.

एक दीस आमी झगडली
म्हजे गुपित संसाराक कळ्ळें.

## वंशकुळाचें देणें — नागेश करमली

नामनेचे कोंकणी कवी श्री. नागेश करमली हांगेलो हो 'जोरगत' आनी 'सांवार' उपरांतचो तिसरो कविता संग्रह उजवाडाक आयला. १९७४ ते १९८५ ह्या काळांतल्या वेंचीक अशा ४३ कवितांचो संग्रहांत आस्पाव केला. 'युगवेद' 'उत्फरके' आनी 'उमाळे अशा तीन विभागानीं कविता बसयल्यात. संग्रहात 'म्हजी कविता आनी हांव' ह्या माथाळयाखाला खासा कवीची दीर्घ स्वरुपाची प्रस्तावना आसा. तातूंत निमाणे कडेन कवी म्हणटा,

"हांव जेन्ना म्हजे भावनाविष्कार, जे तरेन मूळ रुपांत ते म्हजे जाले, ते काव्यात्म पद्धतीन उक्तावपाचो प्रयत्न करतां तेन्ना हांव तिरायताभाशेन एके धडेर रावन फक्त पळोवप्याची वा नियाळप्याची भूमिका घेना. हांव स्वताय ते प्रक्रियेचो भाग आसतां. हाका लागून म्हजी बरीचशी कविता आत्मनिष्ठ कशी जाल्या आनी जाता."

संग्रहाच्या शेवटाक कवीचो परिचय उजवाडायला.

उजवाडावपी – अपुरबाय प्रकाशन, वळवय,
मुखचित्र – श्रीधर कामत बांबोळकार,
पानां – ६३+२०,
मोल पंचवीस रूपया.

खादी
खरीदें और पहनें

प्राकृतिक सुख अनुभव करें
स्वस्थ रहें और सुन्दर दिखें
लाखों गरीब ग्रामीणों का सहारा बनें

आमतौर पर मिलने वाली छूट (रिबेट) के अलावा एक सीमित अवधि के लिए निमानुसार
*
विशेष छूट का लाभ उठायें :

| | |
|---|---|
| सुती खादी | १० प्रतिशत |
| ऊनी खादी | १० प्रतिशत |
| कम्बल और कम्बली | १० प्रतिशत |
| रेशम खादी | १० प्रतिशत |
| पालीवस्त्र | १० प्रतिशत |

*
(साथ में राज्य सरकारों द्वारा प्रदत्त स्थानीय अतिरिक्त छूट भी सुलभ है)

शुद्धता सुनिश्चित करने के लिए निकटतम प्रमाणित खादी भण्डार/भवन/ग्रामशिल्प/खादी क्राफ्ट/सचल बिक्री वाहन में पधारें और खादी खरीदें.

**खादी और ग्रामोद्योग आयोग**



*With best compliments from :*



**Industrial Credit & Development Syndicate Limited**

H. O. : Syndicate House,
Manipal-576 119

*Goa Branch :*

107, Mahalaxmi Chambers,
18 th June Road,
Behind Kini's Hotel,
Panaji, Goa - 403 001.
Phone : 5258

CREDIT SYNDICATE, A UNIT OF THE MULTI-CRORE MULTI-PRODUCT MANIPAL GROUP OF COMPANIES OFFERS HIRE PURCHASE, LEASING AND ATTRACTIVE DEPOSIT SCHEMES.

मुखपृष्ठ छापणावळ : अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय - गोंय.